दिकू येनामु निपुनु वत्ताति
हे परमात्मा तू राख आंवका
राणि यशोदा देवी तूं आयक
ये सान कृष्णान दिवची बाधा
सहन जायनामु दिल्ली दुर्बोधा
स्नान करतना आमची कळ्ळी मर्यादा
मान अभिमान तुम्मी दान दींवका
हे सान कृष्णा लगी तुम्मी जाण जांवका
मनने मनने गान ऐकुनि
राति दीसु म्होणु कायना तका
जाति गोवाळो सर्वयि जांवका
नीति चुकूनु धयि लोणि चोरनु खांवका
जाति नीति सर्वय अर्पण ताका
अनाथु अशिल्याक् धातु म्हणतात्
प्रीतीर चलोंवचो जगन्नाथु म्हणतात
श्रीपति तूं प्रीतीन चलय
मात्र यशोदा अम्मी वत्ताय ॥

---

## 31. उठरे कृष्णा

उठरे कृष्णा वेळु जालो वसुरा सोडूक
मिठाची पुद्‌डी पळ्यारि अस्स दाँत घासूक
फुल्ल घेव्नु राधा आयला कृष्णा माळूक
पैंजळ घेव्नु रुक्मिणी आयला कृष्णाक घालूक

वस्त्र घेव्नु मडवळु आयला कृष्णा नेसूक
पुस्तक घेव्नु भट्टु आयला पचाँग साँगूक
उठरे कृष्णा वेळु जालो वसुरा सोडूक

## 32. देवकिलो दुवाळो

मद्यमिले रात्री वासुदेवु
आयलो देवकिये घरांतु
सपन्न उत्तरियां तूँम्का एकु पुत्रु वैयैला
एक् दिवसीं दोग्यो भैण्यों
पुष्पवन्त्यो जाल्यो
न्हाल्यो त्यो दोगीय धुल्यो त्यो दोगीय
न्हेशिल्ली देव अंग वस्त्र
कमळ फुल्लर्ली चांग गे भयणी यमूना तीरीं
हाता हातु धोरुनीया कमळं खुण्टीलीं काडियां
तुरंबिली वळ्यां तांका दोगीय स्नेहु जालो
दस्मती पूछे देवकी भयणी आंग न्हय तुजी वंझ
खंयि गेली बाळं गे तुजी नीरु ते सांग
सांगू गेलारि लज्जगो भयणी
ऐकु गेलारि भोंड
सच गर्भ कंसावुदियाले
सत्तवो गर्भु बलभद्रु
अष्टवे गर्भारि ताका कोण राखत नायी
दीन ऐकुले बाळिगें भयणी

वांचयन तुजो बाळु
होचि एकु बाळु गे भयणी
श्रष्ठी संभाळु
मन मोदयां तरी अुळ्ळा तुका पेड वाँदिन
एत्तना वत्तना देवकी कोणा रे बुल्लली
लागी देखिली फटीची भयणी
बोलूंक लागली सूख
दोळ्या भरलें दुख गे माये कंस चण्डाला
तीनी मासाची देवकी गुरुबिणी
दुवाळे पैं जाले दुवाळे उपनल्ला दत्तुगो तीये आंबे नींब्याचे
हाडाय आंबे नींब्बेय दुवाळे पूरोया
दुवाळे दुवाळे देवके राणिये संपूर्ण कोर्यां
चारी मासाची देवकी गुरुबिणी
दुवाळे पैं जाले दुवाळे उपनल्ला दत्तुगो तीये पेर बीरांचे
हाडाय पेर बीरंय दुवाळे पूरोया
दुवाळे दुवाळे देवके राणिये संपूर्ण कोर्यां
पांच मासाची देवकी गुरुबिणी
दुवाळे पैं जाले दुवाळे उपनल्ला दत्तुगो तीये खंड मंडयाचे
हाडाय खंडे मंडेय दुवाळे पूरोया
दुवाळे दुवाळे देवके रणिये संपूर्ण कोर्यां
सयि मासाची देवकी गुरुबिणी
दुवाळे पैं जाले दुवाळे उपनल्ला दत्तुगो तीये कपड पीतांबर
हाडाय कपड पीतांबर दुवाळो पूरोया
दुवाळे दुवाळे देवके राणिये संपूर्ण कोर्यां
सात्त मासाची देवकी गुरुबिणी

दुवाळे पैं जाले दुवाळे उपनल्ला दत्तुगो तीये खजूर दाराक्षिचींच
हाडाय  खजूर दाराक्षिचींच दुवाळे पूरोया
दुवाऴे दुवाळे देवके राणिये संपूर्ण कोर्या
अठ्ठ मासाची देवकी गुरुबिणी ऐकु बेसली कथा
पोटांतुले बाळानिरे हुँकारु दिल्ला
बाळारे हुँकारु दिला म्हणुनी कंसा पडनल्लीसुध्दि
काय कोर्चे बुध्दि गे आता देवकिये बाळा
नव्व मासाची देवकी गुरुबिणी
दुवाळे पैं जाले दुवाळे उपनल्ला दत्तुगो तीये कदळी केळ्याचे
हाडाय कदळी केळ्यां दुवाळे पूरोयां
दुवाळे दुवाळे देवके राणिये संपूर्ण कोर्यां
पूदरे मास अष्टमी तिथि
कृष्णु उपनल्ला मध्यमि रात्री रोहिणी नक्षत्र
शंखु चक्र गदा पद्म शुध्द दर्शन
दाखय्यां वज्र खिळियो तीची मोडिन्ती
वसुदेवु ऐकुनिया बाळारे पोळोव्या
हाडाय आंबे नींबेयां लवण उतरियां
वृश्टी जाली कोणा रे काय देवकिये बाळा
शेष एवुनि छत्र धरुनि पावसु न्हय तें वारे
कंसु अेयित मारीत आतां काय मुरारे
जय गोविन्दु जयमुकुन्दु जय भक्तांचो हरि

---

# 33. भोवुळ गायि

तेरावति नगरिये भिमुक राज्ज करी
तथेचा घरीं एकि भोवळी गायि
स्वर्णयाचि शिंग भोवळे
रुपयाचि गात्तं
चरतां चरतां भोवळेन
दिकिलेकु वाघु
पाञ्जमुष्टि वाघान काव गेत्तलिगा
एक भास दिव्नल्ली भोवळीन्
तिनी त्रिभुवनाचि
दुसरी भास दिव्नल्ली भोवळीन चन्द्रसूर्याचि
तीसरी भास दिव्नल्ली भोवळीन घरचे दुब्याचि
हंबेतांतु हंबेता भोवळी
चली न्हल्ली घरां
दोळे भर्लें आशा मोरां
वाट निर्दुटी
आय्या युवां यानु तुमी
हिञ्जो बाळु गेरा कावें
एकि पान्य एकि वेळा भूख राखावें
हल्लो जोरे पाल्लो भोवळे तोडाग्न्तु फूतो चारु
कोण चोयतलो भारु तुजो सांगता वर
शरा शेरी पी रे पुत्रा
दुधाचे घोट

फायचे दिवस पुता
भोगुचे कष्ट
अले पले खंव्वा वचशी
अशी एकु थपा, भोवळेचो बप्पा
तो काही वनांत गेलां
अले पले डोंग्र्यारि तण पल्ले खारे
वाटे उदाक पीव्नु पुता
घरांसि यो रे
भोवळी चमकता मुकारि म्होणु
दुब्बो चमकता मागल्यान
येता येता म्होणु वाघु वाट राखता
अगा अगा वाघा तूं भोवळेंक खागा
राख मज्जे मामा दुबाक भासेक एविन्दी
अगा अगा वाघा तूँ भोवळेक खा गा
राख मज्जे मामा दुबाक
भासेक येयिलीं
भोवळी म्हजी भइणी
म्होणु दुबो म्हजो भाचो
तुमी दोग्गायी राज्य करायि वनामजारी।

## 34. सीतेले दुवाळो

ॐ नमो गणराजा वन्दिली सारिचा सीते
गायन राजा अयोध्येचा।

अयोध्येचा राजा भोलै पालै क्रमु।
त्या वेळार तो रामु अयोध्येचा।
तिका जाले दुवाळे सांगय माजे थोडे।
अवडया तुझा काय सांगत सीते।
खुशीन जावो तरीं भागीरथीचा तीरीं।
जो खेळूं बेसली सीता देवी।
एकि मणे सरस्वती एकि मणे पार्वती।
एकि मणे आवन्ती सीता देवी।
सुवर्णाचि एके रुपयाचो कारिंब।
जू खेळू बेसली सीता देवी।
उतूचें एकूनि रामा खंचेरी मनी।
अरे अरे लक्षुमणा सीता नयी ही व्हन्नी।
बायर जे वरूनी अपघातकु करूनी।
ललाटी पेटूनी दोनी कर्याय।
अंग जो हुंमेलें तोंड जें बावल्लें।
आजी काय जालें लक्षुमणा।
उठ उठ गे वोन्हियान्दो श्रृंगारु जो कोर्याय।
अम्मी जाऊं तुझे बपाले घरां।
सात्त वर्षाकयी उपरी रामा हाथीं।
अत्तं खंचेरे माहेरां पाठवन्ती।
नायी बापु नायी कुलगोत्र।
अखंड हो मंत्र रामस्वाम्याचो।
अरे अरे लक्षुमणा श्रृंगारु जो केला।
एकि भेट कोर्या अमी रामस्वाम्याची।
अम्मी जाताय दूर रामस्वाम्या मध्यां।

उमासेची रात्री आली केया।
चलता चमकता रथु जो मोडल्लो।
अययान जानकी चाली नल्ली।
मेजेरे मायेरा चांपेयाचे वन।
तुळसीचें बृन्दावन मेजे मायेराक।
ही वाट देखूनत्तिली बहुत काळ जाले।
तनेन शोसलें लक्षुमणा देरा।
पांचय मणियां सोर दशरथाचे।
रन्ना वन्ना भोवल्यार नाहिं इतुलें पाणी।
अत्तं इत्तें करुचें सागय वोन्हिये।
दशरथा नांवान काडिया ही रेखा।
नाहिं इतुलें पाणी अत्तं इत्तें कोर्चें सांगय सीते।
कौसल्ये नांवान काडिया ही रेखा।
नाहिं इतुलें पाणी अत्तं इत्तें कोर्चें सांगय सीते।
कैकई नांवान काडिया ही रेखा।
नाहिं इतुलें पाणी अत्तं इत्तें कोर्चें सांगय सीते।
रामस्वाम्या नांवान काडिया ही राखा।
नाहिं इतुलें पाणी अत्तं इत्तें कोर्चें सांगय सीते।
दुसवेरे नांवान काडियाह रेखा।
गंगा भेदून आली भागीरथी।
अलतडि लक्षुमण पेलतडि सीता देवी।
एकि सावळी तुजी वोन्हिये।
एकि सावळी मेजी वोन्हिये।
तिसरी सावळी कोणाची सांगय वोन्हिये।
फाटीची पोटाची सौंगू गेल्यार लज्जा।

पांचय मासु गर्भु संपूर्ण जाला।
सीता आली वनी निद्रा जाली थोरी।
लक्षुमण उठल्यारी उठनल्ली।
रुखांचो ताळियो मोडूनु ठेविल्यो।
थडथडयान लक्षुमण धाव्नु गेला।
थडथडयान उठावनु राडूक लागली।
मुनी स्वामी एवुनु सीतेचे पाय धरिले।
आजी काम जालें सांगय सीते।
रामस्वाम्यांची सेवा कोरुक चूकलीं।
म्हणवुनियां परदेशान्तु पाठविल्ली।
जायो, जुयो, चंपे बाँदून हळ्ळे कोंपे।
त्या मध्यें सीता देवी प्रसन्न जाली।
अंब्याचे पानांन कलश पूजिले।
अखंड सहित दौर बांदिनल्ले।
देवलोका पाळाणे हाडून ठेविलें।
जो बाळा जो बाळा पाळण्या वेंदूळा।
सीते रामा बेटा अयोध्येचा।
हरदूसा सीतेचो बाळु सीतेन वेल्ला।
मुनि स्वामी एवुनि पाळोण्या चोवूनि।
सीतेचो बालु नाहिं अत्तं इत्तें कोर्चें सांगय सीते।
दर्ब जे काडूनि बाळू जे करुनी।
पाळण्या ठेवूनि जो बाळा जो बाळा।
पाळोण्या विंदुळा सीते रामा बेटा अयोध्येचा।

---

# 35. सुधामा चरित्र

ॐ नमो गणपति देवी सरस्वती।
ओवियो गाँताय मेजी देवु स्वामी।
परिव्रायणु सुधामु ब्राह्मणु।
रुदै नारायणु नन्ददूते।
संचीव्र दळिद्र वसते याघरीं।
अश्रु बराबर कष्ट आशीं।
मागय तुजावरी आली जो वन्दनी।
संस्कारायाक श्रीहरी बैठावेया।
बालंपणीची वळरवीं आमची।
मुख्यानि हाति कैसे जाउँ त्ये घरां।
श्रीहरी शैयैरां बैठावेया।
मगति सुन्दरो घरां दोनी चारी।
मूष्टी भरी पौव्व आडीनल्ले।
हाड्डूनु दीदल्ले पतीचे वोकरी।
तें नैंवे श्री हरी बेठावेंया।
ब्राह्मणु चिंदीये बांदूनु-अळ्ळे पोव्वे।
ते वेळां ब्राह्मणु चालीनल्ले।
ऐसे चिंतूनु मन्न मी जालो भायिर।
मग दोगेय कुमार्यों बैठल्योसी।
भलेंले कलश अयोध्या यो नार्यों सुकुनाचो।
दशवरी देखींयालो।
आनियेक देखिल शिबिकर्णें ओलाल।

कणियें फू धन बाळ सुदृधर्णीचे।
वामुनु भाग्याधेया बैठला कुंबेरू।
उद्धेवा वोगि गेला काका तोरु।
पट्ट्डुक सहित देखिले हिरण्य।
ह्रतु जल्ले मन्न सुधामाचे।
शीघ्रे जट कोरनु।
द्वारकोटि देखिली गोमती स्नान केल्लें।
दुवादशी नम्मया तीळ जो रचिले।
वस्त्र पर काडिलीं सप्तचूर्ण।
पांगूरिलावन्ता शिग्रियां चा बोरा।
अन्न विन्न खरकड्था सांग तूंचे।
मध्याळु ब्राह्मणु आह्वानायि कौंपी।
भीतो भीतो रावोळे प्रवेल्ला :
सपन्न कोटि याधंवा सहित एंसा तो।
शोभित पुनवे चन्द्रु।
दुरांदुकूनु देखिलो ब्राह्मणु।
पूजिलो अपोणु विश्वमूर्ति।
पांगूरीलावन्ता पीतांबोरु केल्ला।
त्या वेळेरी धरणीच सोखीला।
हता हातु धोरुनु नीजालो रावोळी।
दिव्य सिंहासनावेरी बैसविला।
अपुला हति धवें अर्ग्यंपादपूज्य चरणा।
उदक तीरें वन्दयिलें।
दरिद्धमा सुधामु विश्रेंष्ठु।
त्रिभुवनान्तु आश्रेष्ठु नारायणु।

आळांगिलावन्ता सुधामु विश्रेष्ठु।
ऐसा त्यो ऐकमेंचौ खेळवन्तीं।
रुक्मिणीचे बोला बैठले श्रीहरी।
रुक्मिणी सुन्दरी आळांगीली।
अय्यावें दान दी वज्र लायीं।
चुडे अय्यप्पणा माजै सावित्रेचे।
पुत्र बाळ माजै कुन्तीयेचे।
आयुष्य दी स्वामी मार्खण्डयांचे।
पोठला वैंगण करुनि श्रेष्ठ ब्राह्मणासी।
वोनियेन आमांसी कयंदाडिल्ले।
ब्राह्मण चिन्दिये सोडिनल्ले पोव्व।
काडूनु दीदल्लें कृष्णाकडी।
त्या वेळार यो कृष्णु मुण्ठीन्तु सूधल्ले।
दूसरयानि काडूनु उड्डयिलें।
तिसरयानि काणु उड्डयिता श्री हरी।
रुक्मिणी सुन्दरी कुल धरीता।
आलांगिलावन्ता सुधामु विश्रेष्ठु।
त्रिभुवनान्तु आश्रेष्ठु नारायणु।
रुक्मिणीचे बोला बैठलें श्री हरी।
रुक्मिणी संदरी आळांगिली।
चंपेल दुंपेल अंगा लावुं तेल।
रुक्मिणीन सूधले उष्ण उदाक।
पठपुत्राचे गोण्डे रत्न चौकीस हाडाय।
बैसुचे सग घालाय सुधाम्याक।
रसगळ मुद्रिका साजन्ती शोभन्ती।

सर्व अंगाक भूषण सुधाम्याक।
षडरस पकवानि वोगडिली ताट।
येंं दोगय पंतीक आरोंदिन्ती।
हतगण पावुनी आचमन केल्लें।
केळे वीडो दीदले कर्पूराचे।
एक मांचावेरी ये दोगेय पडिले।
बोलूंक लागले सुख कशी।
चारि पाल रात्रियो योकुष्ठो दीदल्यो।
शुभ्र भायर सरले संधे कालु।
उठिलो ब्राह्मण पूछे गोविन्दासी।
अनुज्ञा दी स्वामी ब्राह्मणाक।
अनुज्ञा दीवूनी पूछे ब्रह्मासी।
विश्वकर्मा वाबोला पाठवन्ती।
अठवल्लें नयि स्वामी मन्नान्तु सासले।
दुसरान देखिलें चरण तुमचे।
एक दोनि दिवसंचो स्वयंवासु दिल्यारी।
अश्ली वे शेषिन्ता हरतु जायत।
हस्ति घोडे रथ नवरत्न भण्डार।
पैंजळ पळे लेखश्वर सहितय दिल्या।
सौ सहस्रु गोदना गोदना कोणाली।
गोदना सुधामु ब्राह्मणाली।
जैयो जुयी मोगोरी जयन्ती कोणाली।
जयन्ती सुधामु ब्राह्मणाली।
हस्ति घोडया साळो हो साळो ।
कोणालो तो साळो सुधामु ब्राह्मणालो।

चौथा आलो काय मार्गुं चुकूनु।
परतूनु आयलो वे द्वारकेसी।
आरती घेव्नु आली सुधाम्याची राणी।
प्रति रुक्मिणी दिसताची।
पद्मिनीचे कमल जलनाहि मन्न।
अर्द्ध राज्या दीदले सुधाम्याक।
सुधाम्याचें वोवियो गांन्त्यायाय संधि।
पाप दे नासन्ति सत जन्माचे।

---

## 36. ध्रुव चरित्र

नम विघ्नेश्वरा प्रसैंक कमल घरा।
ही विद्या सागरा कृपावन्ता।
दैनवीं अन्दोळे गुरू तुजे पोवाडे।
भक्तिं दीं कव्वड दारोदिन्दी।
सनयतिये बारिगे तिजे बापेंजिरे।
वसूर भण्डार अन्दणीयी।
कायिं एकु प्रधानु प्रजे गुणवन्तु।
ताणे रायाप्रति उपदेशिला।
स्वश्रुपाळा सवें भोजन सारिलें।
वाजन्त्र वाजूनु रायु गगन गर्जे।
ही रात्री क्रमविली तीयेचे मंदिरीं।
स्वरण उदयु जाला रायु माघा आला।
दोग्योंय गुरुवारी हे राया कुमारु।

गरबितय उद्धरि संभारिला ।
सुरुचि राणिये वन्तये दुवाळे ।
परिभाव वेगळे लोकाचार ।
गर्भाचि यासूति वस्त्र दान दींवची ।
हरि कथा ऐकूची मन माजी ।
तीर्था  आसे हिण्डूसी मन माजी  ।
सुरुचि राणी ती जाली परिशुद्ध ।
वीसाणो भैरियो जो रायु गगन गर्जें ।
कुमारु यो जाला याद्धवां धाडिल्ला ।
रायु मणे बाळा एक नाम ठेव्याय ।
पुताक काडून ध्रुव नाम ठेविलें ।
माथेन ये तन शक्ति ताजु दिला ।
गरी गरी वाडन्ती उल्लास पाळ्ळोणे ।
तवें जलें खेळोने पुत्र दोगय ।
पुत्रासीं देखूनि राजा संतोषल्ले ।
हरतु पै मानल्ले भोक्तस्तली ।
गळां वागनांची विन्दुरियां शोभन्ती ।
गागरियो वाजन्ती दोनीय पांयी ।
पीतांबोरु केला काशे नीरविल्ला ।
सर्वेय अलंकारि बाळु श्रृंगारिला ।
माता मणे ध्रुवा जासीला राया प्रति ।
आवडलिं मन्न तू रमा भै ध्रुवा ।
रायु सुखा करी राणियेचे अर्द्धांगि ।
राज करित दोगेय सूर्यवंशी ।
खेळोनि बांदल्ले शेष विन्द जल्ले ।

वस्त्रान रायान पूशियाले।
एक पुत्रा काडिनला उत्संगी बेसविला।
दूसरे पुत्रान हाथु दिला।
सिंहासनावेरि उभारिले हाथ।
सपत्नी मातेन बाळा गाञ्जयिला।
भागीरथीचा तीरीं माधन ते मजारी।
तवें जाशिल बाळा तूं तप करी।
नव मासां गर्भु मीते या धारण।
सिंहासनावेरी तुका योग्य बाळा।
आम्मि दोगेय जाण ते राया कुमार।
शून्य जन्मु मेजो भूमि भारु।
मथ्यावेरी हाथ वैराग्याचा वेषु।
मातेन सन्मुख देखियालें।
कोणे काय केल्लें बाळा मेजे पोमेले।
पदवृक्षस्तलें कुंकुमेचे।
हृदयी सरसी काडोनी तू मेजी सावोळी।
कोणे बाळा तुका साटी केलो।
सिंहासनावेरी उभारिले हाथ।
सपत्नी मातेन बाळा गंजयिला।
नेण असिलो रे ध्रुव तू अज्ञान लेंकुर।
सवति मत्सोरु जाशिल बाळा।
दी माते अनुज्ञा बाळु जाता मी तपा।
हांव गोपीनाथा लगीं मागयिन।
देवावीण जैसे शून्य रे तें देवळ।
तैसें रे मेजें हें कुल शून्य दीसे।

पुत्रु जालो बलवन्तु गर्भुं जालो गळितु ।
तैसें न मिजो सोसू सांडी सांडी ।
माते प्रदक्षिण काडूनी मी जाले बाहेरी ।
माता मत्सागत धरणीवेंरी ।
चालतां चमकतां देखिलो महामुनि ।
ध्रुवाचे रणदोनि वन्दयिलीं ।
माता म्हणे ध्रुवा जाशील रायाप्रति ।
अवडलि मन्न तू माजेय ध्रुवा ।
तिनीय लोकां मजो साखूब बलवन्तु ।
राजन येत रे ध्रुवा भस्म करीन ।
मुनि म्हणे हे स्वामि कुल मेजे संपूर्ण ।
राज गोपीनाथा लगीं मागवीन ।
गुरु करी धरून बेसविलो जनुवारी ।
द्वादशी अक्षरी मंत्रु ध्यान धरी ।
मुनि ज्ञता मागुतां ध्रुव जातां काळाश्री ।
संकल्पु पूर्वक स्नान केलें ।
तपल्या शीलेरी ध्रुवान आसन घातिलें ।
ह्रदयीं चिन्तीलें नाम केशवाचें ।
त्या वर्षा इंद्रान मेघ जो घातले ।
मेघ जो पडले ध्रुव तप करितां ।
त्या वर्षा इंद्रान याग जो रचिल्ले ।
याग जो पडले ध्रुव तप करितां ।
इंद्रु म्हणे सासु पदन गेलें भोवुत ।
तवें रुप मातेचे धरियालें ।
उरसल्लि स्तन अमृताचें दूध ।

पीवय रे ध्रुवा तूं घोट घोट।
भूखेचा भिकारी ना एक रे तूं जाशी।
तूज वीण अन्न नप करीता।
गज वज्रा अंकित नवें पद्म रेखा।
सुरुचे पाऊल द्वारकाचि।
वृक्षारि चडिला सरपानी पूंकिला।
तैसे न रे ध्रुवा तूं मंदरू जाला।
पर्वताचे खाणी देखिलें हें पाणी।
विख तें तूं पींवय रे कुंडया पास्ट।
जया जया जया जया परम आनन्दा।
तूंव जावीं सागरां उत्तरन।
उत्तरेचा रामु महाविष्णु आपण।
अन्दण दीवुनु धावियाला।
सापति माता पिता गोत्रांग सहित
अर्द्धप बंदिले ध्रुव राया।
गरुडारि घातला सरपान वाविला।
वैकुंठी पावैला ध्रुव राया।

---

## 37. सन्तपमामु

कुणबिको पिडपिको सन्तपमामा।
सन्तप मामाले पिरपिटारि कुकड बेसला।
सन्तम मामान गूळो गल्लो।
कुकुट धाव्नु तेकारी गेलो॥

## 38. अल्लमल्लदुव

अल्लमल्ल दुव सत्ती गो।
तीवय अम्बाडि विकू गेल्ली गो।
अकडा वैलान पळी गो पायु मोणु।
गेल्ली गो अंगाडी।
व्हेलार विकाना।
घर कडे अळ्ळार पिकना॥

---

## 39. कको

ककोमळ्यारि ककुळो
पुतो पसि दक्कुलो।
कको मेण्डया वाडायि
तगेले उष्टे बरायि॥

---

## 40. नणमन्दे नणमन्दे

नणमन्दे नणम्नदे करटयांतु चुन्नो।
मंय्यो मेल्लीनायि म्हणु रडतायि सुन्नो।
नणमन्दे नणमन्दे वसिवेलो कीरू।
बैलेन सिखैलो बमोणु वीरू॥
नणमन्दे नणमन्दे वसिवेली फगिली।
बमणान मरलो म्होणु कपडान्तु हागिली॥

अबोली वोयली बांयकडे।
गूण कोर्नु राब मांयकडे॥
णणमन्दे णणमन्दे वोग्यारि वोगो।
उदकाचे निबान बांयकडे योगो॥
अड्डली मोळ्ळी गुड्डी गो जाली।
माय मेल्ली सुन्ने तुका बुद्धि गो आयली॥
णणमन्दे णणमन्दे केळीचे कपा।
उदाक नत्तिले बंयलांचे पापा॥
काराति वोयली कारयारि।
मांय मेल्लीं सून पळ्ळी वारयारी॥

---

## 41. देवारंबा

काणावे देवारंबवे।
कुंकुमेचो तीळो।
केसाचो गुञ्जलो।
पय्यावेलाल लांबता।
चोयि चोयि चोयि॥

व्होड व्होड गुलाबी शेंवती।
झाडारी फुलैलर्ली।
खलची काडूक गेलारी सभार नायीं॥

अरे येयार रे धाव्नु लगी।
चोयाय रे एव्नु लगी।
फुल्ल खुंटूनु दीयायि मेजे लगी॥

पट्याचि चोळी केली।
हुम्मेन थप्पो जाली।
पक्यारि सुकत घली।
चोयि चोयि चोयि॥

पोटाक दूकि अयली।
कुडी मुल्याक निदेव्नु पळ्ळी।
पोटा दूकि राबूनु गेली।
चोयि चोयि चोयि॥

---

## 42. वर्डिके शोभान – कव्वड धरप

परम भूमण्डल पुर मध्ये गौड सारस्वत ब्राह्मणान्तु
जन्मु जालो परत्या संसार सुखान्तु
घेवुका म्होणु अन्य गात्रा चेल्ली घेता तूँ
आडतली तंतु नरक सुख सन्ताषु पवंचाक
सरसमानस ग्रहस्थ दुवेगेरी वरण वचूनु
लग्न पांवचाक वरधरणिके समयादि भैणिन
धरिल्ले कव्वड, सांगता शोभान॥

वेदमूर्तिकानि साधु सर्वांकयि घेव्नु
सीधा वत्तली घरांतु
वचाकयि सोणा वादु करता हांव तुजेरि
त्या खातिरी खेद पांवन्नका मेजेरि
सर्वांतु भारी आदरारि चलुकामोणु घेव्नु

हेदु नत्तिले वचाक तुका
बाधा खातिरी राखूनु राबिली इत्या
म्होणु शोभा दया करी मेजेरि
सादैवा वन्द्या सांगय संता
उत्तुमा भैणी तुका इति जांवका म्होणु
सत्य सांग तु माका
तुजेरी भारी अत्यन्त प्रीति माका
सभारु वेळु इत्या तू करता अक्का ॥

तुका इति जांवका मत्या भंगार मुकुट
केदक सुतारि घांतिल्ले फुल्ल घोंडे
उत्तुमा मौवळे समेतय
हांव दित्ता म्हळेलें खरें उत्तर
सत्य समझूनु साडि कव्वड
कीरांकुंडळ कन्नाक पूरो भंगार मोत्ति
मोरां कळस यो हाडता
अति कोटु पुतळां सोरु ताव जाळे घेता
मंगल सूक्ष्मा शेराचि बाधि करेयता
कायि कोठु होडता शेर भंगार चौवको गळबज
भारी चौकुळ कडक कंकण सोरु धरुनि
सोरु भणांचे चौवको कंकण चूडामणि
कोरोव्नु दीन सोडि कव्वड ॥

मत्ते सगट भंगार मका अम्मान दिल्ले
तुका दीन म्होणु संगिलेवे
भंगराचि शुद्धि काणु उल्ययितनवे

तूवें सांगचे हे वे मानु राखूनु चलुका म्होणु घेव्नु
सान उत्तर मगिले तुज्जे लगी
दीना नत्तिलारी दित्ता म्हळारि सोणु पळय
बागिलाक अत्त धरिले कव्वड सांगता शोभान ॥

अण्णा तू सर्वदा भण्णाचो नग मिजे
पुण्यान दिल्ले तूवें भंगराचि शुद्धि काणु उल्लयितनवे
तूवें सांगचे यें वे मानु राखूनु चलुका म्होणु घेव्नु
सान उत्तर मागता तुल्लागि दीना म्हळारि
दित्ता म्हळारि साणु पळय बागिल अत्तं
धरिले कव्वड सांगता शोभान ॥

इत्तें गे वोन्हिये तूँ माथे बावगूनु बेसला
अत्तं इत्या हस्ता सांगगे
तुज्जेरि जल्लेला पुत्रेक तू दित्तगे
म्हजेरि जल्लेले पूत्राक तू घेत्तवे
दित्ता म्डणतागे अत्त सोडता यें कव्वड
तुगेले सत्य म्होणु हांव मानून सांगता
दित्ता म्हणताना दीन म्हळारि सोणु पळय
बागिल हांव अत्त
धरिलें कव्वड सोडता शोभान ॥

---

# 43. शोभान आर्ति - श्री लक्ष्मी बमुणाक

श्री लक्ष्मी बमुणाक बालमुकुन्दाक
जलांभित्तेरी मत्स्य रुप घेतल्याक
बला खातिरी कूर्मु जाव्नु व्यापिल्याक
नीलवर्ण श्री कृष्णरुक्मिणीक
बल कोर्नु आर्ति दकेयाय शोभाने ।।

झोडि झोडि तोण्डाचे नांक जलेल्याक
झोडिरूप घेव्नु भूमिरयलेल्याक
नर मृग रूप घेव्नु भक्तांक राकिल्याक
झोडिरी भेसूनु श्रीकृष्ण रुक्मिणीक
घट्टि कोर्नु आर्ति दकेयाय शोभाने ।।

सान प्रायेरि भूमिदान मगिल्याक
दान दिल्लेले बालीक मोक्षु दिलेल्याक
रय्याचे कूल सर्वें नाशु केलेल्याक
नीलमेघ वर्ण कृष्णा रुक्मिणीक
फुल्ल माळनु आर्ति दकेयाय शोभाने ।।

दशरथ रय्यागेरी जन्मु घेतल्याक
दशमुख रावणा नाशु केलेंल्याक
नाशु केलेलें कंसाक स्वासु सोळेलाक
नीलमेघ वर्ण कृष्ण रुक्मिणीक
कुंकुम लाव्नु आर्ति दकेयायि शोभाने ।।

मोहाचे कारण बुद्धु जलेल्याक
कल्की रूप घेव्नु दुष्टांक मर्लेल्याक
धर्म समस्तै परिपालन केलेल्याक
नीलमेघ वर्ण कृष्ण रूक्मिणीक
पिठांतु दोवर्नु आर्ति दकेयायि शोभाने ||

श्री पुरी सय्यांवृत पाडु केलेल्याक
चेप्नेल्ये घोड्यारि बेसूनु फोन्चु मर्लेल्याक
इन्द्राले घोड्यारि बेसूनु फोन्चु मर्लेल्याक
पद्मावति सहित वीर वेंकट्टाक
तुप्पां बुडोव्नु आर्ति दकेयाय शोभाने ||

पंचय पाण्डवांक रक्षण केलेल्याक
पाञ्चाली द्रुपदेलो मानु राकिल्याक
पांचय वर्षांतु द्रुवा पदवि दिलेल्याक
पांच जन्य शंखु चक्र धर्लेल्याक
पांचय वाती ती दाकेयायि आर्ति शोभाने ||

गोवळेले दूध लोणी चोरलेल्याक
गोपस्त्रियानि मारु केलेल्याक
खोवळा अंबावेरी चोणु बेसलेलाक
बायिल मानुषा मुकारि मुरली वाजिल्याक
वजप सहित दाकयि आर्ति शोभाने ||

वज्रा खंबा थकूनु आयिलेलाक
दैत्य हिरण्या नाशु केलेल्याक
भक्त प्रल्हादा रक्षण केलेल्याक

श्री लक्ष्मी नरसिंह मूर्तिक
भारी सन्तोषारी दाकेय आर्ति शोभाने ॥

आकाशारी थकून उडकी मारलेल्याक
आकाश रय्याले दुवेक वार्डिक केलेल्याक
शेषाचेरि वासु केलेल्याक
हाथु सोणत्तिले वेंकटेशाक
भारी सन्तोषारी दकेयायि आर्ति शोभाने ॥

अखिलकोटि ब्रह्माण्डनायकाक
कोटि सूर्य प्रकाश असिल्याक
सर्वांक भक्त जना रक्षण केलेल्याक
कीर्ति पाविला श्रीनिवास मूर्तिक
भारी शिङ्गारि दकेयायि आर्ति शोभाने ॥

---

## 44. वर्डिके वोरत्ताक भार्सिंग

दण्डु पूजिला रतनाचो
बांकु भरिला मोतियांचो
इन्द्र चन्द्रस समीर कुलवन्तु
अगे वोनिये काजोळी
दोळ्यां कजोले
भोवरा भोरान्ते
रुकुमिणि सोवारिणी
मेवुणा अंका रुकि फुल्ल हाडाय
रुकीचे जायो जुयी शेवन्ते

मोगेरे केदकीचे
नीले भासिंगाचे गोंडे
पटा सूताचे ते दण्डे
मायी बपूसु सन्तोषिले
भासिंग बन्दियला

---

## 45. सुनेक गरान्तु हाड्चे - अडे माडे गढविले

अडे माडे गढविले
तजें ऊँचारी
अंतूळे जंसेरी कापड
ती चौगेयी बसीले तजेरी
यारे पुत्ता उजवे मंडीरी
योगो सुने दावे मंडीरी
बापान केलिगो धनराशी
अजेन केलिगो कनकेशी
अम्मान वडेयिलीं गो बारायि वर्ष
अजी तुमचे हाथी दिलीगो
पालन करायि वो
चारी वीडे चटुवान्तु
वोकले हाडी मळ्यायि मंटवान्तु
वोलेलो मायी बापुसु
गंगेचे उद्धाक
पालन करायि वो

---

## 46. वर्डिके वोडे गींतु - चाट माट घोडो

चाट माट घोडो
अळचकरे फोडो
चाट माट होळनु गेलो
ऊँचारि काणु सोडि मळें
पैंयसि रुपाया दीन मळें।

---

## 47. फोव्वा भितेरी फोवु

फोव्वां भितेरी फोवु फुल्लायलो फोवु ।
बायले मागा घोवु व्होरेतु अंगेलो ।
व्होकल बाई गोरी व्होरेता मनां गेली।
काजे दोळान पळ्ळेली नजर काळी।
आबोलेचे फूल तंबडे तंबडे दिस्ता।
बायले पोळोव्नु हास्ता व्होरेतु अंगेलो।
आबोलेचे फूल तंबडे तंबडे दिस्ता।
घोवा पोळोव्नु हस्ता वोकल अंगेली।
फोडी भितेरी फोडी पत्रोड्याची फोडी।
मावाँ घरची तोडी व्होरेता तुका।
कारात्याचा वालीक काराति जाली पाँच।
घोवा मग्सां नाँच व्होकल बाई।
अंगेल्या माळ्यारी असा एक पिस्सोन्देरी।

बायल मेळी चिचुन्देरी व्होरेता तुका।
अंमगेला कवडाक अस्स एक् चिळको।
घोवु मेळो हुळ्को व्होकले तुका।
घर दूर म्होणु चिन्ता करु नका।
घोवा पण्यांतु तुका मेळतले सुख।
अम्ही म्हळी ओवी तीका खरी दिसली।
खरी दिसुनु मनान्तु व्होकल बाई हासली।

---

## 48. कृष्णाक वोखद पीवोवचें

प्रथम नमन कोरुं देव गुण नाथा
अमचो जन्मु गेलोगे वृथा
अयचि कथा अयकन्ती
अयकन्ती पापिया - अयचि कथा
अयचि कथा ति पुनि अयकायि
अयचि कथा अयकन्ती
अम्माये अम्माये मेजे खाण
लागला सूळु बरिला - मणतिल
कोडुन्दिगे अम्माये
दस्मनी गेली वना कोडु हाडियाले
परी तेते साजे एकण्ड मोसीकोलित उवाळन्ती
कृष्णु धावला दस्मती फाटी रे घेता
कोडुची ते बाल गोविन्दा
ते येंचे खाण निर्वळत

चौगजाणानि धरिला तका दोगिनी हाडिला
पावलावेरी घातला भोंडे नञ्जोयि तोंडि
कानुमिडिला मिडिला दोळे भायिर पडिन्ती
हाथ पाय नीट करुनि मृत्यु समझूनि गेलो
भो भो लागल्यो भोवळयो धाव्नु आयलो
वसरा स्तन तड कोरुनि नरहरि नरहरि म्हणतीला
एकि कळिया एक सिवुया एक नीळु रे वर्णाचि
एक एक गयचे नाम घेवुनि नरहरि नरहरि म्हणतिला
हथाचो हथोडे पया तुलामणि गळ्या
साजे सारंगपाणि ती अत्त कोणाक दीवु
धावे हाथि अरग्यन्ति
सुवर्णावेली गुडम ती दुधावेली साय
बुडकुळ बुडोव्नु मगूनु खाया
ती अत्त कोणा दीवु
दस्मती थोरी अङ्गवण करी सृष्टिरी
मल्लें जळैन सवन्त रात्रि फलें करीन
गणसापुला बन्दीन
चतुर्मांस एकादशी व्रत करीन
भासोरे भूमिवेरी कोण करुति
हाड्याय रे चन्दन कृष्ण शरीर परि जोळोव्या
माये बाप उच्चाळुनि नरहरि नरहरि म्हणतिला
उठायला श्रीहरी बेयसलो धल्यारि
मायिचो गोळो धरूनि, मायम्मा मोवन धरियाले
इत्तलें निष्ठूर चेरडु उबळुनये खुशी
माये बाप उच्चाळुनि नरहरि नरहरि म्हणतीला

# 49. कुणब्यांगेले समूहगान
(देवाक देवळ बंदिले )

देवाक देवळ बंदिले तंबयाचें
देवाक देवळ बंदिलें तंबयाचें
एक फुल फुलल्या सन्दणा गो तें सन्दणाचें
देवाक देवळ बंदिलें पाषणाचें
एक फुल फुलल्या वोवळी गो तें वोवळीचें
देवाक देवळ बंदिलें पोवळ्याचें
देवाक देवळ बंदिलें पोवळ्याचें

---

# 50. तुळजा

इत्ति गो तुळजा
इत्ति गो कुंटिता थंगा गो तिरबंता
देवाल्यो देवतियो रतन भो कोञ्चल्यो
पावसु गो कुंटिता थंगा गो तिरबंता
देवाल्यो देवतियो रतन भो काञ्चल्यो
पावसु गो कुंटिता थंग गो तिरबंता
देवाल्यो देवतियो रतन भो काञ्चल्यो
शेवंते गो कुंटिता थंग गो तिरबंता
शेवतें गो कुंटिता थंगा गो तिरबंता
देवाल्यो देवतियो रतन भो कोञ्चल्यो

चंपे गो कुंटिता तंग गो तिरबंता
देवाल्यो देवतियो रतन भो कोञ्चल्यो
जायी गो कुंटिता तंगा गो तिरबंता
देवाल्यो देवतियो रतन भो कोञ्चल्यो
गोंडो गो कुंटिता तंगा गो तिरबंता
देवाल्यो देवतियो रतन भो कोञ्चल्यो

---

## 51. फुगडें – बयिपकारा योगा

बयिपकारा योगा फुला पोरमोळु गे गा।
वाटे नत्तिले जेंवुचें कशी गिण्डि नत्तिले अव्वचे कशी।
गोवाले कडचे पशी तोडा उडगोनु मोरचे कशी।
बायपेकारू वीरू ताजे बोडा लायली चूडी।
बयपकारा मोडी खडा लयली चूडी॥

---

## 52. तेण्डुलेचे बेला

अशि धांव तशि धांव तेण्डुलेचे बेला
घरां वोनी बाळांजता तेला धांव रे अत्तं
तेल हळें दीव्या घलें वोने जलो चेलो
चेलो जलो म्हणु चेलो जलो म्हणु
अनान केला सेठो॥

---

## 53. येदी येदी फुल अंबुली

येदी येदी फुल अंबुली कीरु चोंचेयता
वाटेर वचे बायलां कित्या कीरु अपैता ॥

## 54. सूर्यु उदेता

सूर्यु उदेता मणकु निदेला
मणकुचि बायिल तीवय घोड्या सिंगारता ॥

## 55. बोर बाळे बोर

बोर बाळे बोर तीं या बरीची त्या बरीची बोर
मेजो भावु साष्टे गेलो थंगा जले फलें
साष्टे गेलोलो इत्ति हळेंलें
साष्टिची मडळ आडनु कवड बांदिलें
कवड बांदिले दीवु मानवैलो
घरांतुले वोनिये तुका देरु मानवैलो ॥

## 56. अले बाळे अले

अल्लें बाळे अल्लें तें दोनी पोडाचे तीन पोडाचे अल्लें
मेजो भावु भांयतु पळा घालका ममा दोर
चींच बाळे चींच ती दरला परी ऊँच
अना अना बायले हाळा अना पसी ऊँच ॥

# 57. तौवशे बाळे

तौवशे बाळे तौवशे ते खंचे खंदयारि कडचें
अंगडि वेलार विकना घरकडे हळार पिकना
तौवशे द्रुवजागो घोवा येदये
घडियाले दकटेपणा घडिया उदये
पीठ पीठ चोन पडता वोळियेरी
या कुणबा बायले अपोनु वैला माळियेरी
नेवरी बाळे नेवरी ये लान पिठाची लान पिठाची नेवरी
अंगेले देवाक भंगराचि देवळी ॥

# 58. कुणबाले देरलान्तु

कुणबाले देरलान्तु अस एकु मडो
कुणबा बायल म्हणता कित्तें
मेगेलो घोवु गुड्डो ॥
दुधि बाळे दुधि तीं बरांपळेची दुधि
या खोतानि चेली आळळि सगटापशि गुड्डी ॥

# 59. येदो येदो चुनो

येदो येदो चुन्नो गो सुन्ने कोण दिललो
पूतु तुजो भर्तारु मजो ताणे गो दिललो
सुनेक ताणे गो दिललो
येदी येदी पडी गो सुन्ने कोणे दिलेली

पूतु तुजो भर्तारु मजो ताणो गो दिलेली
सुनेक ताणे गो दिलेली
येदे येदे पड्चान गो सुन्ने कोण दिलेलें
पूतु तुजो भर्तारु मजो ताणे गो दिलेलें
सुनेक ताणे गो दिलेलें

---

## 60. भणावले भात

भणावलें भात सन्दण केलीं सात
कुटुको दिलार रडता जांवय
सगळे सन्दण मगत जांवय
वत्ता म्हणता वचन म्हणता
कवडे पोन्दा सरता दिस्ता
एक दमाचें दोनी दमाचे खोदने मारीन ॥

---

## 61. तुळसीदेवी

उदयांचे काळी गोवर्दन यमुने प्रभळीं
तंतु बेसली तुळसा देवी राणी
येवनु बेसली जवळीं
तुलसी हाडिली वृन्दावनी
रुकुमिणी बुलली लज्जा नायि कायीं
काळे दळाची ऐरावता पन
राति दीसु ध्यान तुळसीचे

उच्चूल काल अशिली वनांतीरी
अत्तं तूं मेजे या बिड़ारां आयली
बलाबली तूं शराशरी
खरा मेजी शरी बोलूनका
तुलसीचे पत्र बहु अधिक
अत्तं दान मोडित कणस
तुजा या वोरनु मेजेया हाथीं
कणस कणस विडारिन
ताजे दोगींचा बोलूं ऐकूनी
कृष्णु हासीनलो सारिंगपाणी
त्यो दोगोय गेलो हेमबुडावेरी
अपण गेलो पडिलो सिंहासनीरी
तुलसीचे मुणा उजले उदाक तें
उचोलुनि मस्तकी घेंवुचे
कोटि तीर्थाचे फल पांवुचे
ये पुण्य पावन तुलसीचे ॥

---

## 62. सीतेचे स्वयंवर

सीतेचे स्वयंवराक रामु लक्ष्मणु गेले गा
सीता अनि माया कोरनु मण्डली घुंवती गा
त्या वटुले नादु कोरनु मण्डली घुंवत गा
सीतेक हाडिली अयोध्येसीं पाटव्येली ॥

---

## 63. सिगमा गीत

सिगमाचे वेळेरी पोंगीरू फुलेला
एक सायेची चेडुव खेळू आयलीं
मुगाय बाळे गो तूं काली इत्याक
सिगमे खेळूक आयलेना
मेगेले भावा चेलचो मूर्तु त्या निमित्ति आयलोना
सान तुलसी होड तुलसी कशि गो भूषण
खिळ खिळेचे वोराण एत्ता सोडि गो नेसवण
एशि करूं गो तशि करूं गो
रोसु गेलो गिळनू मिन बायले देखूनु ॥

## 64. श्री गेली घरचेवळि

तवन्त वुदयाकाळि श्री गेली घरचेवळि
थंगा ना व्होडी सरस्वती थंगा नायी आचारु
थंगा नायि विचारु
दरिद्र वृष्टळा भरतारु तीये गुण पसूनि
सवन्त वुदयाकाळि श्री गेली घरचेवळि
ती गेली अनियेक घरां देखून मान वलीघरचारा
तीयेची पडला रद्धणीचासारु
तीयेची मन्दिराचा कोयरु
दरिद्र वृष्टला भरतारु तीये गुण पसूनि
सवन्त वुदयाकाळि श्री गेली घरचेवळि

ती गेली अनियेक घरां देखून मान वलीघरचारा
वोचून बेसली दल्लरा मन होरसो सोजल्या
तीणे केल्लें पल्ली तमम बेसू घल्लें सिंहासन
भाग्य अयपत तीणे आओ माणतिला
त्रिसन्धेचे फुडे दिव्या घल्या वत्यो
पुत्रयो धना सम्पत्ति तीणे आओ मणतिला।

# 65. कोंकणीचो ब्राह्मणा

कोकणीचा ब्राह्मणा तोपि सज्जना
एक सेरु कंकुम तिका तिळया पावना
एक सेर कज्जल तिका दोळ्या पावना
कोकणीचे ब्राह्मणा तोपि सज्जना
एक सोदनो तेल तिका मत्याक पावना
कोंकणीचा ब्राह्मणा तोपि सज्जना
एक अडक पडचान तिका दडियेक पावना
कोंकणीचा ब्राह्मणा तोपि सज्जना
एक कोल्ले पपळ तिका खांवुक पावना
कोकणीचा ब्राह्मणा तोपि सज्जना
एक मडकी सीत तिका बरी पावना
कोंकणीचा ब्राह्मणा तोपि सज्जना

## 66. फरङग्यालि तरूव

होधरे होधा
फरङ्ग्यालि तरुव अयिलि सोळ सत्तेरा।
ममान तरुव सोळिळ सोळ सत्तेरा।
तरवावोले दीवो पुतान उदकान्तु दिकिलो।
कळिळ पङ्गायि मरलि मत्यारि
घायु जल्लो रे घायु जल्लो रे।

---

## 67. फिरंग्याले मत

हर हर जन बुडले
बहु बहु दूर जड घडले
चरण बुद्धि चरण शुद्धि
असले एक मत वाडले
अपण कोरु वचन
चाङ्गपण कोरु गेलारि कोरुक सोणा
वायटाक वन्दिता फिरङ्ग्याक वन्दिता
जाति नाका तुका
जाति नका जाली परन्तु नीति सोडली
परन्तु पन्ति सोडली
पयाक बूटस, मत्याक क्रोप
सेन्डि गोयां गेली

न्हेसूक बोंकय सारी पतलायली
हताक बिलाती कंकण घलीं
हळके घलचे पोरतुवोळोंचे
अंबाडो घलचे घमघमेचे काम
तीळो जल्लो सानु
यो खोंचो अभिमानु

## 68. पळ्ळोणे - बाळा जो जो रे

बाळा जो जो रे
बाळा जो जो रे कुल भूषण दशरथनन्दन
निद्रा करि बाळा मनमोहन रामुलक्ष्मण
पळ्ळोणे गातल्ले अयोध्येची दशरथाचेवंशी
पुत्रु जल्मल्ले ऋषीकेशी कौसल्येचेकुशीं
रत्नजोडीत बालक जळतें अमलीक वरतीं
पोटल्ले कुल दीपक त्रीभुवनीं नायक
आलवी कौसल्या सुन्दरी धरणीं ज्ञान धरीं
पुष्पवर चन्दीं सुरवरीं गर्जित जयजय करी
विश्व व्यापक रघुराय निद्राकरीं बसरवय
तुजे वर करण्डीं धरणीं साण्डित अपुलेकाय
एवुनि वसिष्ट सत्वर सांकित जनमान्तरु
रामा परब्रह्म संचार सत्तेवे अवतार
यागु रक्षुनियां अवरात मारिले निशाचार
जाती सीतेचे स्वयंवरु उध्दरीं गौतम भार

वरणिला जानकी स्वयंवरु बगुनियां शिवचाप
रावण लज्येत महाकोप नम्मे पणमे शोप
साम्मुल मर्धन रावण सेविले विभीषण
देहा सोडवुनि संपूर्ण आनदाले त्रिभुवनु
सिन्दु जल देशीं नवळीला नम्मे परतीशीला
त्यावेरि उध्दरिला दयाळा मिशीं वानर मेळा
राम बालका भूलोक भक्तां अधीन
जल्ला दास विठळे अय्यिला पळ्ळोणे गातल्ले ॥

## 69. जो बाळा जो जो

जो बाळा जो जो जो पडियंती माता
आली सान्दुनी निद्राकरि रघुनाथा -जो
देवकी परशुध्द जाली मध्याह्न रात्रि रोहिणि
नक्षत्र अष्टमी तिथि -जो
विक्रमे बोलितो विष्णुमणन्तीं कांसाकाळु
आला विप्रें सगन्तीं -जो
पळ्ळोणे गडविले रत्न खवचित गजगण्डों
भेरियो ओपपे दिन्तीं वज्रां चो दोरियों
खचिले इन्दनीले चन्द्रु सूर्या दोगेयं सरसे आंक टे -जो
सखियों मेळ वल्या वंशी उभियो रावन्ती
आशीर्वचने बाळा पळ्ळोण्या ठेविन्तीं -जो
येय्यायिवो नारियो मंगल मणतीं
पोशे पोशे फोवेये बालकादिन्तीं ॥ -जो
इतूके अयुकूनि कन्ना अयली पूतन

विकटे रूपे वीके धोरूनी थन
तें तूवे सोसिल्ले सोसीरे
बळा वोरु दान दीतू मधुसूधनान -जो
कंसाचे निर्वसीं अकाडे अडन्तीं
काका स्वरूपाका सूरु चरणालावन्तीं
तोखलु शंखासुराले विजयान्तु
कोळिय मर्धन केलें विषा यमुनान्तु -जो
दुवारपाळा पाण्डुवान्तु जलो
सारथिं प्रहळादा कारणन्तू पवलो आगन्तीं -जो
आला देवकीया बाळु उपनल्ल गोकुळान्तु
पितांबरु शेला कासे गातल्ला
अतीं चक्र पयीं पझ लेल्लाटि चन्द्ध
मधुरे शीचालिल्ला अप्पण गोविन्दु -जो



## 70. गोण्डो मामु

गोण्डो मामु देव्लो तळान्तु कमळ काडूक
कम्मळ दूर दूर गेले गोण्डो तो तळान्तु देवलो।
गोण्डो मामु तळान्तु देवलो कम्मळ काडूक
कम्मळ दूर दूर गेले गोण्डो तो तळान्तु देवलो।
गोण्डयाक भय जत्ता बयलेले दूवाळो मुकारि येत्ता
भुय कम्मळ दिकिले तवळि मुकारि अयिलो केवलो नागु
नागान निंगिले जले कम्मघ इत्याकगा तुका
बयिलले दुवळाखतीरि कमळाक हांव अयिलो
नागान निंगिले जल्ले होडें मंदूया अंका

होडे मंदून मिजेलगि कम्मळ तुका दित्ता ।
बयिलेक जत्तलि चेली चेल्लेक मका दीव्का
गोण्डो पाप हरदे रोणु होडें मंदीत जलो ।
कम्मळ गेवुनु गरकडे गेल्लो बयिलेक चेली जली
चेली ती ती होडी जत्ता गोण्डयाक उडगासु येत्ता ।
चेलियेक गेव्नु तळान्तु वत्ता कम्मळ दकोव्नु आशा करता
कम्मळ काडूक चेली गेली
कम्मळ ते दूर दूर गेले ।
पवलाक उदाक पव्तले बप्पा कम्मळ दूर दूर वत्ता
माळगो दूवे तुगेलि अम्मा कमळा पत्ति माळो ।
मुटाक उदाक पव्ले बप्पा कम्मळ दूर दूर वत्ता
माळगो दूवे तुगेलि अम्मा कमळा पत्ति माळो ।
कुरटारि उदाक पव्तले बप्पा कम्मळ दूर दूर वत्ता
माळगो दूवे तुगेलि अम्मा कमळा पत्ति माळो ।
गोव्टे उदाक पव्तले बप्पा कम्मळ दूर दूर वत्ता
माळगो दूवे तुगेलि अम्मा कमळा पत्ति माळो ।
तशि चेलेक नागाक दीव्नु गोण्डो उत्तर पालन करता
रोणु रोणु घरकडे वत्तां बयिले दिकूनु भोहु पव्ता ।
तशि चेलेक नागाक दीव्नु गोण्डो उत्तर पालन करता
रोणु रोणु घरकडे वत्तां बयिले दिकूनु भोहु पव्ता ।

## 71. गोरे बव्ल्या

गोरे बव्ल्या पायं तुगेले गगराचे वाळ रे
भंगराचे पुत्ता तुका सिंगराचे दोळेरे
सिंगराचे पुत्ता तुका भंगराचे वणुरे

कौतुक गळ्यारि तुजे मोत्ति कंडिरे
भंगराचे पुत्ता तुका सिंगराचे दोळेरे
सिंगराचे पुत्ता तुका भंगराचे वर्णुरि
सोपुरु कुरटा तुगेल पट्याची दोरि रे
भंगराचे पुत्ता तुका सिंगराचे दोळेरे
सिंगरेचे पुत्ता तुका भंगराचे वर्णुरे
सानुतु हथान्तु तुगेला लोणियचे गूळोरे
भंगार सिंगार गालून नंचून बोव्तोलरे
भंगराचे पुत्ता तुका सिंगराचे दोळेरे

## 72. मशी मशी

मशी मशी आयकतू घराभितरि चडशी
पेट गेव्नु वशी तू कूरटु मोणु पड्शी

## 73. वटेन वचे वागा

वटेन वचे वागा तू मका एव्नु खागा।
वटेन वचे वागा तू मका धोरनु खागा।

## 74. योरे चल्या जोगिया

योरे चल्या जोगिया कुटेराचे खेळुयां
खेळनु खेळनु निपुया जोगियांक सोदुयां
योरे चेल्या जोगिया कुटेराचे खेळुया
खेळनु खेळनु निपुया जोगियांक सोदुयां

## 75. आलोरे गोण्ड्या आलो

आलोरे गोण्या आलो म्होणु अम्गेले गोण्ड्या आलो
आलोरे पुत्ता आलो म्हणु अम्गेले गोण्ड्यां आलो
कोसलो कोसलो गोण्डो नवे भंगराचो गोण्डो नवे।
सिंगराचो पूतु नवे रुपयाचे चन्द्रु नवे
आलरे गोण्ड्या आलो म्होणु अम्गेले पुत्ता आलो
गोण्डो होडु जत्तलो नवे देवा पांयिपडतलो नवे
ब्यारु सारु कोरतलो नवे अव्सु बपसु पोस्तलो नवे
आलोरे गोण्ड्या आलो म्हणु आम्गेले गोण्ड्या आलो
आलोरे पुत्ता आलो म्हणु रया अंम्गेल आलो
आलोरे पुत्ता आलो म्होणु गोण्डयां अमगेले आलो

## 76. धल पुत्ता धल

धल पुत्ता धल दत्तान्तु दत्तान्तु भवगलो
पूतु केकी खन्चा लगलो
केकी जली गोड पुत्तान खेली देड
अन्नूकयि दिलो कुडुको अक्के फट्टीरि डुमको डुं डुं डुं

## 77. अटिके मिटिके

अटिके मिटिके नम नम काळिंगा
भासकर मॅजरा कुबाराचे काळा
मध्धळाचे मध्धाळे
अन्ना फटीरि डुम्को मारुका ॥

## 78. अपो नन्दो तुपो नन्दो

अपो नन्दो तुपो नन्दो
तुप्पांतुली भज्जी खाव्या
यो नन्दो तो नन्दो खन्देरो

## 79. वट्टेन वत्तेले

वट्टेन वत्तेले गोयांचे वाळारा
दिकिलवे अमगेले नवे जव्यांक
गुडी तू कसले करता विशेषु कसले संगता
निम्गुनु संगचे अम्का दुवाळे ते
कमळेचे बाळूक करत्याची खिरगरी
पिटाचे सडुली दिवनु दडता
वट्टेन वत्तेले गोयांचे वाळारा
दिकिलवे अमगेले नवे जव्यांक ॥

## 80. किणिममाला पड्या

किणिममाला पड्या दिकूना
पड्या सोदून दीस दोनि जले उं उं उं
घर सोणु बोवतालो, कळगो थंगा पवतलो जलो उं उं उं
तन्नेन भुखेन बेसतलो जलो
दुवरा पोरमळु गेत्तलो जल्लो
तन्नेन भुखेन बेसतलो जलो
दुवराच पोरमळु गेत्तलो जलो उं उं उं
किणिममां बयिल निंगितली जल्ली

पड्याचे खबर कायी मेळवें ? उं उं उं
पड्याचे खबर मेळना जल्यारि
भट्टबो अमका दिकुया गुलो
गुलो भोरनु चोवुया उं उं उं
किणियान भित्तरी खलगडि कळेले वेळारि
कळगो भायर निपत्तलो जल्लो उं उं उं
पाटी चूरी दिस वोळुवया
बन्दरली रन्न चिकता खोलिया उं उं उं

## 81. देवळान्त आराट

देवळान्त आराट भयिलाँ मनान्त हिराट
कोडियेक खोटा सारी, तेरापुजे जरा सारी
आरटाक चिनखापु गळाक पोव्ळ्या कण्टी (देवळा...)
कन्नाक वज्रा कण्टी मत्तयॉरि फुल्लें चूडी
जायि, जूयी, मोगरे, सेंवत्ते, गन्तून मळतलवे
हथाँ पयाक मेत्ती गालूनु रूप नचतलवे (देवळा...)
उंण्डो, मण्डो, चक्कूली, हिट्टू खाण खत्तलवे
देवान भोवचा येना फुडे दर्शन गेत्तलवे (देवळा...)
सौर्यिक उव्ळ्दुनु हाणु होड्पण करतलवे
आराटाचे हर्दूसा देवळा वोचून पेज्जे निश्शे पितलवे (देवळा...)

## 82. गजभज भज्जीये

गजभज भज्जीये भज्जीये
कुणबिनि चेडुवान रंदीले रंदीले
रय्या पुत्तान सिन्दीले सिन्दीले

रायु बेसून जेव्ता जेव्ता
बुक्को बेसून चोय्ता चोय्ता
ओडिये पीट सिजलेना सिजलेना
केळ्या उक्करी बजिलिना बजिलिना
शेळ उद्धाक बरलेना बरलेना
काज् कुछ् काज् कुछ्

## 83. अंगडि वची वाट

अंगडि वची वाट खंयि
मन्तारय्येले घर खय्
भ्वन्जे भ्वन्जे भ्वन्जे एच्चय।
कोण असा थंगा
कोम्भो कि कोम्भि । (अंगडि)

## 84. चेलिगो ति चेलि

चेलिगो ति चेलि तीवेय तेरो काडु गेल्ली
वगान दिक्किल तिका तण्डून वेल्लुमु तिक्का
तेरो तो मगिरि काडून गुळ्ळानि खेळुनु
तजी फूडे अम्बुलि काणु विंदूलारी बेसून (चेलिगो)
तगेलो खेळु जल्लो पौस्सालो खेळु आयलो
तेरो तो काडु गेल्लारी उद्काची बरती जल्ली
चेल्ली ती घरकडे गेल्ली त्तिमूनु फुगत्तली जल्ली
घरकडे पवत्तली जल्ली रोणु ती बेस्तली जल्ली (चेल्लिगो)

## 85. एकडे एकडे भटाबू

एकडे एकडे भटाबू
भटाबो चारी पूत
तन्तु एकलो थोंटो
दूसेरो पगळो
तिसोरो तो कुरडो
चोवतो पूतु मोन्नो (एकडे...)
भटबो एकी आशा
पुत्ताक् विद्वांश कोरका
आशा पशान्त पोणु
तंका वेल्ले देवळान्तु (एकडे...)
भेसले तंका भजन
दिल्ले तंका देवाक (एकडे...)

## 86. अंगु सिंगु फुलवाडी

अंगु सिंगु फुलवाडी हथातूली फुलवाडी
सोपुरू बवले कन्नडी,
सीट सिवले चुन्नाळ
जेव्नु भेसुनु खावुया
अम्भोवा सिंभूवा, फा फो फू

## 87. बोरी पोन्दा भेसुय्या

बोरी पोन्दा भेसुय्या भेसुय्या
बोरी पोन्दा खेळुया खेळुया

दिश्शी बोरी बोर बोर
खत्तायि अम्मी बोर जोर
बोरीन दिल्ले बोर बोर
जल्ले अम्मी थोर थोर

## 88. भित्तर भेसल्ले बुक्या

भित्तर भेसल्ले बुक्या बुक्या
भायर भेस्सले गोण्डया गोण्डया
अमगेले पुत्तान जेव्नु ऐयला भिसरावुनिये
खंपाळे पडिये तू पुत्तालगी भोवत्तलवे
घूडाठंतूले कीरू मल्या पुत्ताक शिकेयसिवे (भित्तर...)

## 89. पंडरी गाय

पंडरी गाय भरली
नाथ तुझी गाय भरली
गाय वर्णनम् मे गयचे पाँय
गंभ्याचे कुटीरे देवा (पंडरी...)
गाय वर्णनमं मे गायचे कान
पद्माक्षा कोळेरे देवा (पंडरी...)
गाय वर्णनम् में गायचे दोळे
पद्माक्षा पकूळी देवा (पंडरी...)

## 90. जो बाळा पडियंती माता

जो बाळा जो-जो पडियंते माता
अनी सांदुनी निद्रकरि रघुनाथा (जो बाळा जो)

देवकि परशुद्ध जली मद्यान रात्री
रोहीणी नक्षत्र अष्टमि तिथि (जो बाळा जो)
पळ्ळणे गडविले रत्न खचित
गजगण्डां पडियन्त ओपयदिन्ती (जो बाळा जो)
वज्रन चो दोरिलयो पुसिले गिन्दलेन
चन्द्रसूर्या दोगै सरसे हंतुले (जो बाळा जो)
सखियौ मेघरजवंशी उडिले अभंगि
अर्शीवचना बाळा पळण्या ते विन्ती (जो बाळा जो)
ऐयायो नारियो मंगळ गयन्ती
पशपशे फोवे या बालकायाविन्ती (जो बाळा जो)
पंचवर खंवचो बाळु उपनल गोकुलान्तु
पायिपद्मखडवंचो वज्रामाला (जो बाळा जो)
पितांम्बरु वस्त्र, ललाटि चन्द्रु
भंगरासी चालि लीला अपण गोविन्दु (जो बाळा जो)
संसाराचे निरवयी अकाले वोडिन्ति
ककासुरु बकासुरु जानालाविन्ती (जो बाळा जो)
इतिके ऐकुन्या आली पूतना
विकटरूप विष बोरु निसन्न (जो बाळा जो)
इतुनी सोसिनि सोडि भकम्मा
वरूधान लीला मधुसूदन (जो बाळा जो)
तकवर खंवचो बाळ उपवन गोकुलान्तु
नवे लायय स्वामि रुकुमिणि कान्तु (जो बाळा जो)
जो पडियंन्ते माता
अनी सान्दुनी निद्राकरि रघुनाथा

# 91. चेल्लिगो बाव्याले

चेल्लिगो बाव्याले चेल्या दिल्लिगो
लज्जेन प्राणु गेलो गो
अस्सुले कर्म जल्लिगो - चेलिगो
तिन्नियि फन्तीन पन्न दवरली फन्तीक तिन तिन पन्न दवरली
समस्त लोकान जेव्नु
सात पन्न बाकि वरली - चेलिगो
तेराचा पन्ना पत्रवोडो केलो
चेलेन बवडेन सबार खेलो
चेल्लेक पोटाक लगले वेगु
ओकदाक धवतायि दोग तेग - चेलिगो
सतयि दिसांक वरडीक जली
चेलियि चेलोयि निदेव्नु पळ्ळी
अपरात्रिन्तु जंगूलि विळ्ळी
चेल्लेन बव्डेन बोब गली - चेलिगो



# कोंकणी लोकगीत समुचय

(केरल)

कोंकणीन्तु जायतीं लोक गीतां असात । पुण नवे पिळगेक तीं घोळोव्नु दवरप जायना । ही परितस्थिति उरल्यतरि जल्यारि कार्यी दिसानी कोंकणी साहित्याची ही भांगारा खाण ना जाव्नु वचपाची स्थिति जाल्या । तशें जावु नज्ज म्होणु कोंकणी भाषा प्रचार सभेच्या साहित्य विभागाच्या सहायान हो लोकगीताचा संग्रह प्रकाशित केल्या असा । केरळान्तु अशिल्या कोंकणी जनां गेलो आचार, विचार अनिक संस्कार हें पुराय लोक गीतांतुल्यान व्यक्त जात्ता.